गजानन रायकार

# बनवड



म्हजी आवय
कै. सौ. यशोदा गो. रायकार
हिका अर्पण

हांतल्यो कांय कविता आकाशवाणीचेर प्रसारीत जाल्यार कांय राष्ट्रमत दिसाळ्यांत प्रकाशीत. तांचे उपकार.

## मांडावळ

अमृताचीं उतरां बरय, आमच्या भाग्यांतल्यान
उदे उदे म्हणत यो गे माये मळबांतल्यान !

गंगेवरी घोगयत यो गे सात स्वर्गांतल्यान
झेलता तुज्यो हजार धारो, माथ्यार जठेंतल्यान
भंडाऱ्याच्यो मुठी शिंवरीत दिखा दिखांतल्यान
उदे उदे म्हणत यो गे माये मळबांतल्यान !

हळडुवोच किर्नां शालु आंगार सळसळायत
पांयजणाचो सवर्ननाद वाऱ्यार खळखळायत
यो गे अंबे पावलां खेळयत दोंगरा तेमकावेल्यान !
उदे उदे म्हणत यो गे माये मळबांतल्यान !

हांसत-नाचत कळये-फुलाक दियत रंग-रूप
तळ्यांतल्या नितळ जळांत पळयत तुजेंच रूप
तुस्त तुजी खळखळटा, झऱ्यां व्हजऱ्यांतल्यान !
उदे उदे म्हणत योगे माये मळबांतल्यान !

झगझगीत भांगतिळो कपलार सूर्याचो
घमघमता वास सुरमुस वाऱ्यार आंगाचो
दर्शनान येवची जाग जगा झेमेंतल्यान !
उदे उदे म्हणत यो गे माये मळबांतल्यान !

अन्नपूर्णे आंकरावरी हरवळ शेतांतल्यान
अमृताचो रोस घाल गे, फुला-फळांतल्यान

भुयगर्भांतल्यान परगट लक्ष्मीच्या रुपान !
उदे उदे म्हणत यो गे माये मळबांतल्यान !

गात्रां-गात्रां आरत जाली हजार दिव्यांची
कापरावरी जळटा काया कणा-कणाची
डमरूनाद दुमदुमता आंगा पांगांतल्यान !
उदे उदे म्हणत योगे माये मळबांतल्यान !

यो गे यो गे योगमाये उषे उदेंते
सुमरण मांडलां गोंधळा योगे आवय भगवते
प्राणा-प्राणांत फुल्लीं फुलां तुज्या पूजनाक !
उदे उदे म्हणत यो गे माये मळबांतल्यान !

उतरांतल्यान तुस्त तुजी घडची खिणा-खिणांत
रडप म्हजें पावसावरी रिगचें गे मनांत
अंतराळांतल्यान दिवंचो आमकां आशीर्वाद !
उदे उदे करीत यो गे माये मंगल-नाद !



देवळाकडेन
म्हारवा पाज्जेर
सपणाचेर
शेज्यादरवट्यांत
एक तन्निचान्नि
असुरपिकी फुलकान्न
फुलां कुरपणो घेवन
उबी आसता !
म्हाका पळोवन
तोंडा साळीक फुलोवन
चाकळेता.... !
आगा
घेगा
फुलां घेगा....
तांगान झेलो
पळय केदो
म्हजे येदो !
पानां फुलांनी कचकचलेलो !
अनंताचो आनंद
दसणीचो राग
कण्याचो त्याग
खिन्न काळशीं पानां
खणां खणां घालून
गुंथलेलो !
आगा घेगा

फुलां घेगा
तांगान झेलो
पळय केदो
म्हजे येदो !
जेन्ना
तन्नि सकाळ
किर्णाच्या घागऱ्यार
पिसोळयांचे तिबके
हरयाणाचें चबके
पोलक्यार शंकराचें कोमेशेंकरें फुलयत
पिंगशे केंस
तन्न्या भांगरा वतांत
सुकयत येता,
तेन्ना आमी
फुलयेणाचे रशीम माडयत
वासाळ वाऱ्यांत
फात्तोडिचीं फालां म्हणत
न्हाल्लीं
दंवान भिजिल्लीं
उषेचीं ओठुलीं
वालींची माणकुलीं
कल्पनाचीं नखेत्रां
पुंजायतात,
खुंट्टात !
आनी

अचळ ऽ ऽ य जतन ऽ ऽ य
पाकळयो मेकळ्यो करून
तलम-नरम-मोगा धाग्यान
आनंद....दुख....राग
रज....सत्व....तम
उदक....वारे....उजो
पृथ्वी....आप....तेज
हांच्या जिबोळयांचो
पाकळयांचो
गुळगुळीत बरो
गजरो गुंथतात !
आगा
घे गा
फुलां घे गा
तांगान झेलो
पळय केदो
पळय केदो
म्हजे येदो !
अमुरपिक्या ओंठांतल्यान
अमृताचीं उतरां येतात
आबोलेच्या मंद हांशार
दरवळ- परमळटात !
पळय - पळयतनाच जाता
दरवटोच्च मळबा येदो
मळबातळा

जिणे मळार
हांव आसलों मुये येदो !
देवळांत पावचे पयलीं
देवतेचें दर्शन जाता
ध्यान जप करचे बदला
ज्ञान जाता, दान पावता !
म्हऱ्यांतली तन्नि चली
देवता जाता ! देवता जाता !
हातांतल्या फुलां झेल्यांत
पुराणां-वेदांगां
झळकूं लागतात !
तीच म्हाका प्रसन्न चित्तान
जीवनसुत्रां सांगूं लागता !
उतरां म्हजीं
सुत्रां जातात;
प्राण म्हजो
गावंक लागता
प्रार्थूं लागता
तीच एक ऋचा जाता !
उतर म्हजें .... संगीतमय
शब्द कसो .... करुणामय
विचार कसो.... ज्ञानोदय !
म्हजी ऋचा
मळबाचें आवाठ भरून
गाजूं लागता

संगिताचे साज चडोवन
देवते मुकार नाचूं लागता !
म्हजे हुंकार
सूर जावन म्हणूं लागतात
अहं ब्रम्हा ऽस्मि !
अहं ब्रह्मा ऽस्मि !
आज हांव
प्रार्थना जावन
कणा-कणांत
फुतफुलतां– पुटपुटटां
" तमसो मा ज्योतिर्गमय
तमसो मा ज्योतिर्गमय ! "
आतां हांव
तेच सूर सोदतां
हरव्या हरव्या आंकरांचे
तालांचे – झेलांचे लयीचेर
तन्मयतां !
वाऱ्यांतल्यान
ताऱ्यांतल्यान
आंकरांतल्यान
ल्हारांतल्यान
झाडांतल्यान
पेडांतल्यान
शब्द फुटटात
आगा

घे गा
फुलां घे गा....
तांगान झेलो
पळय केदो
म्हजे येदो !



## ३ : म्हजें मन !

अमुरपिकें मन म्हजें
फात्तोडिच्या मळबाभशेन
अमुरपिकें मन म्हजें
चवथीच्या चान्याभशेन
मन म्हजें पयल्या-वयल्या
आंब्याच्या चंवराभशेन
मन म्हजें आजून आसा
घागऱ्यांतले चलये भशेन !
हालता-धोलता पळय कशें
फुलूं आयिल्ले कळये भशेन
तुरु तुरु तुरतुरता
धाकटुले व्हडय भशेन !
भरते पयलीं येतात ल्हारां
सुरसुरत-झरझरत
फुगडी घालीत भोंवता तशें
मन म्हजें किडकिडत !
आयक म्हजीं आंकऱ्यांचीं—
कोमऱ्यांचीं तन्नी गितां
अमुरपिक्या आमाडयाची
तोखणाय मात करूं नाका !
आजून ताका खंतीची
कीड-कसर लागूंना
धक्के-चपाटे संवसाराचे
आजून ताका खबर नात !
केन्ना-केन्ना तन्नी गितां

दिसत तुका उष्टीं शितां
याद दवर तसले वालीक
तसल्यो आंकच्यो-कोमच्यो येतात !



## ४ : बुद्ध आनी शांती !

ध्याना बशिल्लो बुद्ध
बसले बसके
पाशाण जालो !
हजारांनी वरसां
तो तसोच आसा !
बुद्धाक केन्ना
जागृताय येत काय ?
संवसारांत शांतताय
नंदत काय ?



## ५ : आमची वाट !

आमची वाट
आमची वाट
झिळमिळयांतल्यान-
झिळमिळयांत !
न्हंयचे देगेर दिसपट्टी
जंय लागता दिवली-वात !

आमचो माग
आमचो माग
जंय नासता इल्लीय जाग
जाग जावंचे पयलीं पेट्टा
मळबाच्या बुडा जाग !

आमचो वास
आमचो वास
जंय फुलता फुलां रास
चान्नं पडचे पयलीं मळब
फसलोसोच धरता ध्यास

आमची आस
आमची आस
सोडचे पयलीं तमान काल
दवंळटा-पजंळटा
मळबाचो गर्भवास !

आमचें मन
आमचें मन
मळावेलें हरवेपण
व्हारांर लजप
फुलार हांसप
कळयेपोंद्‌चें भुरगेंपण !



## ६ : बनवडिची रात !

बनवडिचे सूर चडून रात घुंवताली
घुमटांची घूम वाऱ्यांतल्यान घुमताली

उतरावळींतल्यान काणी सूर धरताली
समेवांगडा बसलेली बसका घोलताली
बसके मद्गीं घणघणीत दिवली पेट्टाली !
बनवडिचे सूर चडून रात घुंवताली !

घुमीवांगडा चडटाले ताळयांतले सूर
सुरांवांगडा बदलतालो बसकेचो नूर
कोणी करून बसलेलीं कान जातालीं !
बनवडिचे सूर चडून रात घुंवताली !

उतरा-उतरांतल्यान काणी गत घेताली
उतरांतली उमळशीक मनांत रिगताली
मनाकय पानां फुटून कान जाताली !
बनवडिचे सूर चडून रात घुंवताली !

पुनवे राती मनशांनी आंगण भरिल्लें
म्हणटल्याचेर सगल्यांचे दोळे लागिल्ले
आयकतलींय मनां उचांबळ जातालीं
बनवडिचे सूर चडून रात घुंवताली !

झुजा-झुजी आयकतना, भुजांय उडटालीं
राणयांचीं दुकां दोळयांतल्यान देवतालीं

रात सोंपली तरीय काणी कानांत घुंवताली !
बनवडिचे सूर चड्रून रात घुंवताली !

सोंपली रात तरीय काणी, सोपतां-सोपलिना।
सुरामेळांत बुडलेली बसका उठलिना।
घुमटां घुमींत घमघमती काणी भिजलेली
बनवडिचे सूर चड्रून रात घुंवताली !

भुरग्या बाळांचीय पातकडीय लागलिना
जाण्टेल्यांची असलमाणी सुट्टां-सुटलिना
उदेतेन सुर्याची कळी फुलयली !
बनवडिचे सूर चड्रून रात घुंवळ्ळी !



## ७ : तें केन्ना जमलेंना.... !

उलयताले दोळे तुजे
दिवलेचे कळे करो
दिवलेची वात हांवें सारलीना !
तें केन्ना जमलें ना
हातान म्हज्या घडलें ना !

गजरो कशी विणी तुजी
मोनी पिशी काणी म्हजी
दिल्लें तुवें फूल हांवें हुंगलेंना !
तें केन्ना जमलेंना
हातान म्हज्या घडलेंना !

लांब-रुंद गोरी फाट
चोळयेचो जरी कांट
गांठ तुवें माल्लेली सुटलीना !
तें केन्ना जमलेंना
हातान म्हज्या घडलेंना !

चंवरां आयलीं ताळये गो
सांबाळ तुजे सावळे गो
उतरांत तें रूप हांवें गुंथलेंना !
तें केन्ना जमलें ना
हातान म्हज्या घडलें ना !

खोल खोल काळजाभितर
दुखता कितें कोणा खबर

तें सगलें कळून म्हाका कळ्ळें ना !
तें केन्ना जमलेंना !
  हातान म्हज्या घडलेंना !

केन्ना केन्ना कळून येता
ताळां-मुळां म्हजीं तुज्यांत
वेंग तुवें माल्लेली सुटलीना !
तें केन्ना जमलेंना !
  हातान म्हज्या घडलेंना !



म्हजे मेणवाती
तूं जळटा म्हजे खातीर
तूं जळटा ताजे खातीर
तूं जळटा तांचे खातीर
तूं जळटा जगा खातीर

तूं जळटा पर्जळटा
तूं जळटा तेजाळटा
तूं जळटा उजवाडटा
तूं जळटा चाम्नेता !

जळप तुजें मंद मंद
पर्जळप शांत स्निग्ध
उजवाड तुजो शांत-थंड
पेटप तुजें मंत्र मुग्ध !

तूं केन्ना भगभगना
वात तुजी फुरफुरना
जोत तुजी झगझगना
उजवाड तुजो दिपकयना

तूं जळटा हांसत हांसत
उजवाडटा कडत कडत
पर्जळटा तेंवत तेंवत
इल्ली इल्ली झरत-मरत !

वनवह : १७
[२]

तूं जाणां जळप तितलें
तूं जाणां पेटप इतलेंच
तूं जाणां तेंवप तितलें
तूं जाणां कडप इतलेंच

नंदत्या घोवा बायलेभशेन
पतिव्रते वात तुजी
इल्ली इल्ली झरत-मरत
हांसत जळप जीण तुजी !

ह्या युगांत तूंच सती
जळत रावली जगा खातीर
हांव मात सरणार तुज्या
दुकां काडटां तुजे खातीर !



## ९ : काळोख !

केन्ना केन्ना काळखाचेर
ठसठशीत दिसता म्हाका
काळा शेणें मारून कोणें
कांतायिल्ली काळखा देवता !
काळखाची कमळवाल
जळा-मळा बळेल्या
कुळकुळीत कमळ कळे
पाना पोंदच्यान बोंगेल्यात !
उलगल्ल्या फुलां देटांक
काळशीं काळशीं आयलीं फळां
खोल खोल काळजा भितर
काळेरीचीं रुजल्यां मुळां !

काळखाचे कोणींत तुवें
माल्लो फातोर काजुल्याचो
थरथरलीं कवनां म्हजीं
आयक व्यथा वर्तुळाच्यो !
काजुल्याच्यो कळयो माळून
काजळरात मिरयता
विलुदाचेर काळखाच्या
सोबित थिकां लिकलिकतात !
काजळपिशें मन म्हजें
काळोख पिवन घुंवळटा
काळखाचे कुडीं वचून
चान्नेसुखां वेंगे घेता !

कितल्योशोच चोरवाटो
एक जाल्यो हांगा जमून !
काळखाच्या पड्डयार म्हज्या
कितलेशेच दिसले म्हाका
उजवाडांतले उजळ मनीस
लिपयतना कुसकें काळीज !
काळखाच्या खोल जळां
बुडय तुजीं ताळां-मुळां
आनी पळय संवसाराचीं
खपनखायरीं कर्तुबां !

काळखाचे कुडीं म्हज्या
येतना कित्याक जळपेता
उक्त्यो करून काजळ कळी
काजळागूढ दाखयन तुका !
केन्ना केन्ना दिसता म्हाका
खिन्न काळोख रडटना
केन्ना केन्ना दिसता म्हाका
काजळ पुतळो हांसतना !
काळोख आसा म्हणून म्हाका
उजळ मनीस वळखूं येता
काळोख आसा म्हणून म्हाका
दूख म्हजें लिपोवं येता !



म्हजे जिणेंत
दुखाचें स्थान
खूब ऊंच पांवड्याचें आसा !
म्हजें दूख
ही म्हाका देवान दिल्ली
व्हडांत-व्हड देणगी !
जेन्ना सुखान रापेल्लें मन म्हजें
कोणाचेरूय अन्याय करूंक हुरहुरता
तेन्ना अपुरबायेचें दूख म्हजें
पच्च करून म्हजे मुकार उबें रावता
आनी अशे नदरेन पळयता....
म्हजी चांटच्च मुकार पडना !
ते नदरेंत अधिकाराचो दरारो नासता
हुकमाचो ताठो नासता
भिरांतय घालिना
आग्रोय करिना
मात अशे तरेन पळयता
कितेंरे पापया
इतलेंय आयकना म्हजें तूं ?
नाका दुखोवंचें म्हळ्यार
म्हज्या जिवार येता !
ताज्या दोळ्यांतल्यान
ढळ्ळ करून आयिल्ले थेंबे
म्हाका काचाबूल करतात !
पिंगशा-पिंगशा पाखांचें

घारश्या-घारश्या दोळ्यांचें
बाबडेंच.... म्हजें सुपुल्लें दूख
दीस-रात म्हजेखातीर
तळमळटा, कळवळटा, वळवळटा !
ताका म्हजी खंत-काळजी !
तें केन्नाच म्हजे नदरे
रांप चडूं दिना
बुद्धीक माठ येवंक दिना....
म्हेळें जाल्लें रोखडेंच उमळून उडयता !
तें ना जाल्यार
हांव धरतरे भार जातलों आसलों '
म्हज्या अपुरबायेच्या दुखा
तुजो विसर केन्नाच पडूं-
दिनाका म्हाका !



## ११ : आमी गोंयकार !

आमी गोंयकार
दधिचीचे अवतार !
आपलीं हाडां देवां दिवन
दैत्यां निर्दाळपी !

आमी गोंयकार
न्हय देव, न्हय देवचार
देवांचींय देवळां बांदून
देवचारांक मातोवपी !

आमी गोंयकार
संतांचे वारसदार
आपल्या हाडां वाती करून
ज्ञानादिवे लावपी !

आमी गोंयकार
मनान सावकार
तोंडांतलो घांस काडून
वाटेवेल्या दिवपी !

आमी गोंयकार
बरे जाल्यार
कुल्या सोडून दिवपी

आमी गोंयकार
खुबले जाल्यार
मुळां खणून काडपी !

आमी गोंयकार
ताळा-सुरार
भक्तिगितां गावपी

आमी गोंयकार
गाडग्यों-मडकीं माळयार उडोवन
रंग काडून नाचपी !

आमी गोंयकार
घरचे-घरा
दैत्य कशे झुजपी

आमी गोंयकार
परक्याकडेन
देव कशे वागपी !

आमी गोंयकार, कलाकार
कलेखातीर जगपी....
आपली कला जगा दाखोवन
गोंयचें नांव सांगपी !

आमी गोंयकार
आज जाले
देव आसून दैवचार
आपलें घर परक्या दिवन
जळा-मळा भोंवपी !



# १२ : आसापण....!

रे कशें म्हणूं ना, तुजें आसापण जाणा आसतना हांव
रे कशें म्हणूं ना तुजें खरेपण कळटा आसतना हांव ?

धुल्लांत मारून फूंक वाटोळी कोण उठयता
आयकून कोणाचें गीत करड हें धोलता ?
पांयजणां कोणाचीं करपुलापोंदा वाजतात
तिळसना पिंपळाच्या मुळा कोण फुतफुतता ?
रे जाग्या जाग्यावेर जाग तुजी तर घेता आसतना हांव ?
रे कशें म्हणूं ना तुजें आसापण जाणा आसतना हांव ?

कंवळया कोमऱ्यांतल्यान कांत कोणाची मारता
चाऱ्यांची माया कोणा दोळयांतल्यान सांडटा ?
रे ल्हवूच बोट लावन कळयांक कोण फुलयता
सांग पळोवया फळांत अमृतरोस कोण भरता ?
ही तुजीच न्हय तर करणी कोणाची सांग समजूं रे हांव
रे कशें म्हणूं ना तुजें आसापण जाणा आसतना हांव ?

वारे-वादळांतलें तांडव तुजें पळयलां
फात्तोडी पाराचें शांत रूप नियळिलां
दनपरां कापरावरी जळटना दिसला
तिळसना तुज्या गा वैभवान हांव दिपलां !
आसपत तुजी ही पळोवन काळजांत श्रद्धा रुजून आयल्या
रे कशें म्हणूं ना तुजें आसापण दो दोळयां नियळिलां ?

वर्षाची फुगडी तुजी न्हय सांगची कोणाची
शिशिराची आकडी सांगचें कोणा समजुंची ?
ग्रीष्माची आकटी सांगचें कोण पेटोवपी
आनी वसंतांतल्यान पाना-पानांतल्यान हांसपी ?
रे अणु-अणुंतल्यान, फातर-गुण्यांतल्यान तुका पळयतां हांव !
रे कशें म्हणूं ना तुजें आसापण जाणा आसतना हांव ?

भांगरा किर्णाच्या धाग्यान वस्त्रां विणटा
दंवफुल्या धुक्यांतल्यान गंधगुलाबी हांसता.
साळकां साळकांतल्यान काळीज उकतें करता
दंवबिंदुनी मळार करूण ग्रंथ बरयता
रे अनंता तुजीं अनंत रुपां पळोवन बागवतां हांव !
रे कशें म्हणूं ना तुजें आसापण कळटा आसतना हांव ?



## १३ : तांबडो घोंस !

आमच्या आंगा- पांगांत मेळ
आमच्या बडी-बडयेंत खेळ
आमच्या रगता-मासांत शिगमो
आमच्या स्वासांभितर शबय !
आमच्या कंठ-सुरांत धालो
ओंठां-पोटांत चंद्रावळ
आमच्या दोळयां मुकार आसता
गांवां-गावांतलो जागर !
आमच्या आंगा-खांदार रथ
पावला भितर आसता गत
आमच्या रुमलार आवोल्यांचो
तांबडो तांबडो आसता घोंस !



घुमटां घुमतात
समेळ वाजता
कासाळ्याचो
नाद गुंजता
कोण गो बाये
ताला-सुरार
पावली मारीत
   नाच नाचता ?

ताशे वाजतात
धोल गाजतात
मर्धींच शिंगां
   तुरतुरतात
कोण रे बाबा
शबय घालीत
मेळा वांगडा
   नाच नाचता ?

जोत गायतात
गत लायतात
   मर्दींच
उज्या केणां फुंकतात
कोण रे बाबा
   भार येवन
गुडो खांदार
   घेवन नाचतात ?

रंग मारतात
रंग करतात
कोण गायतात
कोण नाचतात
रंगमेळांत
वाचपा नादांत
म्हज्याय पावलांक
गत गावता !



म्हज्या गिताक सूर मरे
शेतांतल्या म्हंवयांचे
म्हज्या गिताक ताल मरे
कारखान्यांतल्या यंत्रांचे !

गीत म्हजें जल्मा आयलां
शेतकामत्यां स्वासांतल्यान
म्हज्या गितान अर्थ घेतला
हुमेच्या थेंब्यांतल्यान !

गितांत म्हज्या कल्पनांची
झगझगीत उज्या केणां
गीत म्हजें ओंपीत आयलां
नव्या युगांक अग्नीफुलां !

हांव रे बाबा विजेवरी
घरादारांत पर्जळपी
हांव रे बाबा शेता-भाटांत
जीण जावन पर्मळपी !

कास्टीकारा कूळ म्हजें
कश्ट होच धर्म म्हजो
धरतरेर नांगरा लिखणेन
बरोवपाकुच जल्म म्हजो !



## १६ : जियेत राव !

फूल सांगता
फुलत राव
मन मेकळो
हांसत राव
जिवीत जगा
   ओंपीत राव !

जळ सांगता
व्हांवत राव
म्हेळें तितलें
धुयत राव
दूख तितलें
   गिळीत राव !

तारो सांगता
तेंवत राव
तमांत दिशा
दाखयत राव
आस जिवी
   करीत राव !

वारो सांगता
गायत राव
फुला-फुला
फुलयत राव

शिणलेल्यांक
  सुखयत राव !

सूर्य सांगता
जळत राव
जळून उजवाड
दियत राव !
कडत राव
झरत राव
मरत राव
मरणां मारून
जियेत राव !



## १७ : तितलें मात मागूं नाका !

माग आनी जाय तितलें
जाय जाय तें दितां तुका
पापां धुंवपी दुकां म्हजीं
तितलीं मात मागूं नाका !

पोरसांतलीं फुलां म्हज्या
घाल गो बाये केसां तुज्या
पाना वेले दंवा थेंबे
तितले मात दवर म्हाका !

पुंजाय बाये हुटयें तुज्या
माणकां-मोतयां चान्न्याचीं
विरहाची रात म्हजी
ती तितली मागूं नाका !

पसवल्लें थाम तुवें
पोल्या बाये लावपाचें
हुमे धारेंत न्हावपाचो
धर्म म्हजो मागूं नाका !

शिगम्याचीं भडकपणां
चलतना चिंवचीं तुवें
चरचरते दनपारचे
घाये म्हजे मागूं नाका !

रंग महालांत तुज्या
गीत तुवें गो गावंचें

उतरां फाटलीं अर्गा
मात पुजूं दिंवची म्हाका !

विर्त वडापुनवेचें
करचें ताच्या खातीर तुवें
वनवासी दुकां म्हर्जी
चुकून-माकून मागूं नाका !



आमकां व्हडवीक आडसरांची
आमकां व्हडवीक आतेरांची
आमकां येता याद् बाबा
तोरिंगांची, मावळिंगांची !

आमकां येतात आंवडे हांगा
आमच्या गोंयच्या घोटांचे
कातले वांगडा जाय आमकां
दोन कुडके साटांचे !

दोळ्यां मुकार दसमसता
कुचकुचीत घऱ्यां बरकय
याद् येता हुनहुनीत
दामणांतल्या कणगांची !

आमकां व्हडवीक पेजे वांगडा
रातचे शेळे कडयेची
भरभरीत कुयां घाल्ल्या
दाट-पातळ आमलीची !

खयंय आसले जाल्यार आमी
गोंयच्या फळां आशेतांव
वळखी-पाळखी मेळतगीर
पोट भरून उलयतांव !

आमचें आपलें पोटकाणें
तेफळां घाल्ले कडयेचें
आमचे गांठीर वखद आसा
आमाडया सुंगटां हुमणाचें !



## १९ : पावस भिजी चान्नी रात

चान्नें भिजयत आयल्यो धारो
लोकांगीत गायत
आतळ पातळ पावल्यो मारीत
देवपरयां नाच !
पानांतल्या अथंस्यांक
आयज आगळी झांक
कालवली व्हांवत्या उद्कांत
दुदनी दुदुली रात !
साणल्यो शिन्नी चान्न्या फोडी
पारजताच्या गंध गिताक
आयज गारठ गोडी !
जळा-थळा आयली कळा
चंद्र लोकाचीं
स्वर्ग-धरे मंगल मिलन
झेलाद राती !
आयज अचेतन सृष्टी
दिसता-आगळी दिश्टी !
रुकांचीं आनंद दुकां
मुकार उबीं सपन सुकां
असली रात तुका-म्हाका
केन्ना मेळचिना !
धरतरेची आनंदसमाधी
ही पळय कोण गायता
आनंदयुगाची नांदी !
फातर गुणेय

बनवड : ३६

चान्यांचीं पातळ आंगलीं घालून
पोट ओडटना दिसतात !
जणा एका वस्तूक ओंठ फुटल्यात
धरतरेच्या थानांतल्यात
दूद पानेलां !
आनंद दुकां माळन तण तुरेलां
चान्ने न्हाती
न्हातें शिल्प
चान्याचें आंदण घेवन
आयली वसुंधरा !
मळब सकल देवून
भुंयचो उमो घेता
पावसाच्या बोटांनी
हाकेता, होकेता !
आनी म्हज्या दोळ्यांतल्यान
दुकां कित्या देंवतात !
सौंदर्य भुक्या जगा
न्हिदलां कित्या ? उठ !
पिवन घे
अधाशी पातकड्यांनी
चान्ने धारो...
स्वर्ग सौंदर्य ! शिल्प !
आळय, पाकळ्यांच्या ओठांनी
अमृतगान
थरथरत्यो तन्न्यो तानी

भरून उडय आवाठांनी !
पळय, चान्नें लजता
सावळयांचो पालोव तोंडार ओडटा !
चान्नें मोडटा
तिट्टिटटा
फुतफुतता
खुदखुदता
कोण थंय न्हंयचे देगेर गुजगुजता ?
आनी चान्न्याच्या बोटांनी
म्हजी हृदयविणा कोण छडटा ?
आज म्हज्यो पावळयो
दिसल्यो म्हाका व्होंवळयो
मळबाचे कुडके
बांयडा-कोणांनी शिंवरल्यात !
दिसता सगल्यो सोडून राटी
भायर सरचें अशे रातीं
पिशाभशेन भोंवत भिजत
बुडत.... नाचत.... गायत
पातकडयांनी पिंवची
पावसभिजी चान्नीरात !
चान्नी रात !



## २० : आमकां ना पुरीस !

आमकां ना पुरीस
आमकां ना खुरीस
आमीच आमगेलें मतीन
आमकां वाटावप !

आमकां ना मळब
आमकां ना तळप
आनी अधांतरी रावून
जाता तें पळेवप !

आमकां ना आधार
आमकां ना फुडार
आमी अंधकारांतल्यान
वाट सुधारप !

आमकां ना आडोस
आमकां ना पाडोस
आमी आमगेल्या दुकांत
मनां समजवप !

आमकां सावळी ना
आमकां पावळी ना
आमी राना-वना भोंवून
जीवा शांतवप !

आमकां ना पुरीस
आमकां ना खुरीस
सगळे आसून आज आमी
अशें वळवळप !



## २१ : एक शब्द गावलो

एक शब्द गावलो म्हाका
कुरुमळार भोंवतना
झुजामळार सांगलेलें
गीता गिन्यान वाचतना !

एक उतर वाचलें हांवें
जपानांत भोंवतना
कुड्डे आनी कुसलेल्या
भुरग्यां तोडां देखतना !

जर्मनीच्या गॅसा घरांत
फुगार म्हजोय जालो जीव
कितले जाण कडून गेले
मरण देखता देखतना !

एक गुळी गावली म्हाका
जालीयना जार्दीनांत
गुळयांचो पावस झेलीत
रगता कोणां लकतना !

अफगाणांतली कोणां पळेवन
तकली म्हजीय बागवली
बांगलांतल्या फोणांतले
हाडां दोंगर देखतना !

मनशाच्या रगताचें
शिमीट करून बांदली वणत

कान म्हजे भेरे जाले
    हुयेली त्यो आयकतना

म्हजाय देसा वांगडा म्हज्या
आत्म्याचेंय वांटप जालें
काळजाचेर घेवन घाये
    भोंवता दुखी संवसारांत !

रणागाडया मुकार उबे
हड्डे काडून रावले वीर
हड्डे म्हजें वयर येता
    तांचीं गितां गायतना !

बुद्धगय पावलो मात
थंय आसली चान्नी रात
शांत जालों बुद्धाची
    नदर म्हजेर पडटनाच !



दिसपट्टो दुर्बळांचो
येता म्हजेर भार
आंगा-पांगा कंप सुटून
हांव जातां फुगार !

वावराड्यांचो, कामदारांचो
खण्टल्यांचो, कामेऱ्यांचो
शेतकारांचो, मुंडकारांचो
येता म्हजेर भार !

पिंपळावरी पान पान
म्हजें खळखळटा
भुजा-बावळ्यांत कसलीं तरी
मोडां खुबळटात
पिडापिड जावन जिवा
हांव जातां बेजार !

आंगां-पांगांत उज्जो पेटून
हांव रे हुलपतां
अन्यायाचे दोंगर देखून
रगत उकडटा
खद्खद्ता काळजा भितर
उठलां रे जिवार !

आयकूं येतात हाय हाय
आरड हुयेली

शिराप आनी खेप, नेम
  बोटां मोडलेलीं
हाल हाल पळोवन जातां
  हांव मरे फुगार !

हूम काडटा कोण आनी
गादयेर लोळटा कोण
कश्ट करता कोण आनी
लोणी गिळटा कोण
कोणा मडयावयल्यान वता
कोणाली मोटार ?

असल्या वळवळयांत म्हाका
येवंचे हजार हात
येवंची तांक हजार पोटांक
वेळार दिवंक घांस
दुर्बळांचो वावराडयांचो
हांव मरे फुडार !



## २३ : इश्टांनो !

ॲटम आनी हैड्रोजना
जाप म्हजीं उतरां
तुमच्या अस्त्रां-शस्त्रां जाप
दिता म्हजी कविता !

तुमी मारात फोग गुळे
करात रगता शिंवोर
जाप तुमकां दितां एका
मोनालिसा हासपान !

तुमी खंयय रावात उबे
मोखून घोडे रॉकेटांचे
उतर म्हजें उलयतलें
पिकासोच्या चित्रान !

मळबांतल्यान उजो शिंवरून
करात गोबोर संवसाराचो
हांवय तुमकां जाप दितां
बुद्धाच्या चिंतनान !

तुमचे दोळ शेंकरे जाल्यात
काळजाचीं खडपां
तुमच्या दोळ्यांक दिसनात
बायलांचीं दुकां आनी
भुरग्यांचीं हांसपां
हांवूय तुमकां जाप दितां
गांधीजीच्या उतरान !

तुमी पियात रगत आमचें
चिंवात गात्रां-गात्रां
आमची वेर्णी कोमेतलीं
धरतरेर आंकरान !



मातयेचें हें दिवज म्हजें
पांच पण्टयांचें, पांच वातींचें
पांच जोतींचें !
सै दिवज म्हजें
पांच उक्तींचें, पांच शक्तींचें
पांच दिप्तींचें !

पांच मुखां, पांच माळीं
पांच फुलां, पांच वाली
पंचशिलाचें !
मातयेचें हें दिवज म्हजें
पांच वातींचें

पांच शब्द; पांच उतरां
पंच भूतां, पांच सुत्रां
पांच तंत्रांचें !
मातयेचें हें दिवज म्हजें
पांच वातींचें !

पांच भाग, पांच प्राण
पांच भाव, पांच दाव
पांच-नागांचें !
मातयेचें हें दिवज म्हजें
पांच वातींचे !

पांच कन्या, पांच सति
पंच न्हंयो, पंचमति

पंचनीतिंचें !
मातयेचें हें दिवज म्हजें
पांच वार्तींचें !

पांच भूमि, पांच ईश
पांच इश्ट, पांच निष्ठ
पांच जाणाचें !
मातयेचें हें दिवज म्हजें
पांच वार्तींचें !

पांच भुजां, पांच तेजां
पांच सत्वां, पांच तत्वां
पंचेंद्रियांचें !
मातयेचें हें दिवज म्हजें
पांच वार्तींचें !

पांच सूर, पांच नाद
पांच लयी पंचवृंद
पंचधातूंचें !
मातयेचें हें दिवज म्हजें
पांच वार्तींचें !



दिसपट्टचेर संगीत सावळयो
चितरंग्यो-शो रंग-रंगयाळयो
आपालिपाच्यो चित्रावळीशो
खिणखिणयाळयो लागो- लागोळयो !
सुरावळी शो शेवणे पिलांच्यो
आकृतायांवरी वैर सारोळयो
ल्हारा ल्हारांच्या झेला झेलाचेर
अचळय हालती सत्यों सरपळयो !
भुतावळीशी नियाळ नियाळटा
शेत सावडेची शेळ हरयाळी
रुकां झपांच्योय उब्यो वळेरी
लागून तनरी शो खडपावल्यो !
मोन्या मोन्यानी मना दितालीं
दोळयां-दोळयांनी दिसाक टाऽटा !
नुलयत उतरा अरवळ वाटो
काळखाच्या पालवांत लिपताल्यो !
निराकार काळखाचे कांबळींत
संवसाराचें सैम विसवलें
रुपा-रुपाच्यो अप्रूप सावळयो
अरूपांत शो विरून गेल्यो !



## २६ : खारसाण

म्हज्या रगता खारसाण रे
   ह्या दर्या उदकाची
म्हज्या रगता तांबसाण रे
   हे तांबडे मातयेची !

म्हजें मन ल्हारांवरी
म्हजें उतर व्हजऱ्यावरी
म्हज्या शब्दा गोडसाण रे
   आडसराच्या उदकाची !
म्हज्या रगता तांबसाण रे
   हे तांबडे मातयेची !

हांव मनीस माडावरी
आम्यावरी, पणसावरी
म्हज्या मना ओलसाण रे
   कुळागरा पाणयाची !
म्हज्या रगता खारसाण रे
   हे तांबडे मातयेची !

मनीसकाये वसो म्हजो
मनीसपणा धर्म म्हजो
म्हज्या तोंडार ताजसाण रे
   ह्या हरव्या कोंकणाची !
म्हज्या रगता तांबसाण रे
   हे तांबडे मातयेची !

बनवड : ४९
[४]

हे तांबडे मातयेची
ह्या खेळत्या ल्हारांची
आमकां व्हडविकाय मरे
आमगेले कोंकणिची
म्हज्या रगता तांबसाण रे
हे तांबडे मातयेची !



## २७ : येता जाल्यार यो गो !

येता जाल्यार यो गो बाय
धरतरेची चली कशी
दोळयां दळां दंव घेवन
दरवळटी व्हवी कशी !
येता जाल्यार यो गो बाय
सैमाची वात जावन
थरथरतो तिळसानचो
पर्जळटो स्नेह जावन !
येता जाल्यार यो गो बाये
मिर्गाची धार जावन
कळची आमकां मातयेच्या
घमघमत्या परमळान !
येता जाल्यार यो गो बाये
कणसांतली माया कशी
मातयेच्या पुटांतल्यान
रुजलेली ऋचा जशी !
येता जाल्यार यो गो बाये
वसो घेवन मुक्तीचो
चंवरांतल्यान-चिंवरांतल्यान
शब्द तुजो तृप्तीचो
यता जाल्यार यो गो बाये
ग्रीष्माची सावळी जावन
तडकल्ले धरतरेर
अमृताची धार जावन !



ल्हारा ल्हारार
फेसाळ हांशें
जिवाक म्हज्या
लायता पिशें
दोंगोर माथें
रुषीच कशें
शेत मुखार
अप्सरा कशें !
तणा तोंकार
थेम्या थिकां
देखत रावचें
दिसता म्हाका !
पाना-पानाक
फुट्टा जाप
थंयच म्हाका
गावता भाक !
तळये जळां
कमळ दळां
चंद्रीम खुळो
जांवचो फुलां !
सांजचें मळब
ताका भाळप
फुलां पोल्यार
मोग पळेवप !



बनवड : ५२

## २९ : जयजयकार

जय सिद्धनाथ जय चंद्रनाथ
  जय मांडविची जलधार !
जय रवळनाथ, जय भूतनाथ
  जय रामनाथ बेताळ !
जय सांतेरी, जय वागेरी
  जय सत्तरिचे झुंजार
जय ब्रह्मपुरी, जय सह्यगिरी
  गोमांचल गिरी कुडथाळ !
जय महाशाल, जय मठग्राम
  सासष्टी अंत्रुज म्हाल
जय नवदुर्गा, शांतादुर्गा
  जय महालक्ष्मी लयराय।
जय लखरकोट, जय पर्तगाळ
  पत्रादेवीचो पार
जय तेरेखोल, जय वाजला धोल
  गोमंतवीर झुंजार !
जय संतकवि, जय भक्तकवि
  जय ज्ञानादिवे लायणार
जय नृत्यकला, जय गानकला
  जय तंबुऱ्याची तार !
जय दुधसागर, जय कपिलेश्वर
  जय मंदिर, क्रूस, मिनार !
जय सात लाख, जय आमची भास
  जय आमगेली ललकार !



पारजत फुल्ला म्हज्या दारांत
परमळ भल्ला सगळया गांवांत !

धवींफुल्ल कशी मोतयांची रास
मोतयांवरी म्हज्या आका तूं हांस
जिनसा-जिनसाच्यो
किरां-मोरांच्यो
आंगोळी बऱ्यो सोबित आंगणांत !
पारजत फुल्ला म्हज्या दारांत !

घराक पळेवन आंगण हांसता
मुमुरक्यांनी बाये पारजत कळेता
हात-पांय सोडून
वाऱ्याच्या झोकांत
कळीबाय धोलता बसून पानांत !
पारजत फुल्ला म्हज्या दारांत !

माणलाच्या तांदळांच्या शिताची रास
कोणे पोरान केली पिठाची नास
पुण्यताय पावली
वाड-वडलांची
पारजत परसन जाला दारांत !
पारजत फुल्ला म्हज्या दारांत !



## ३१ : घाणा घातली

तंबुऱ्याची तार हांवें
आज घाणा घातली
गळयांतली तान हांवें
पसरकारा विकली !

हांसपांतली शान हांवें
दुडवांकाराक दिली
आज म्हजी मान हांवें
लज्जेन खाला घातली !

म्हजीं गितां आज हांवें
जुगाराक लायलीं
मोलादीक दुकां हांवें
शेंकऱ्या मोलान विकलीं !

आज म्हजी कला हांवें
पेजेखातीर फुंकली
बाजारांत कवनांचीं
दुकनां हांवें घातलीं !



## ३२ : म्हज्या माथ्यार गगन आसा

म्हज्या माथ्यार गगन आसा
म्हज्या दोळ्यांत सपन आसा !
आनी म्हज्या पाखाट्यांत
उडपाची ताकद आसा !
म्हज्या मुकार कांट आसा
म्हज्या मुकार लाट आसा
म्हज्या मुकार दर्याची
अमर्याद फाट आसा !
म्हज्या मुकार मळ आसा
म्हज्या मुकार थळ आसा
गुडी घेवन नाचपाचें
भुजांत म्हज्या बळ आसा !
म्हज्या मुकार रान आसा
म्हजी मान ताठ आसा
म्हज्या गळ्यांत खणखणीत
अम्रुताचें गान आसा !
म्हज्या मुकार ध्येय आसा
म्हजो सदींच जय आसा
म्हजे मतींत भविश्याक
तेळपाची तांक आसा
म्हज्या शब्दांत जीव आसा
म्हज्या सुराक ताल आसा
म्हज्या हड्ड्यांत जियेवपाची
मळबायेदी ओड आसा !



# ३३ : चंद्र उदेलो

चंद्र उदेलो
हांसो उफेलो
तुगे-म्हगेलो !

रात कळेली
भूल बळेली
तुगे-म्हगेली !

चान्नें चंवल्लें
पिशें शिवल्लें
तुगे-म्हगेलें !

दिवे उजळ्ळे
गीत घुंवळ्ळें
तुगे-म्हगेलें !



मनांत म्हज्या संगिताचे
सूर रुजोवपाचे आसा
मनांत म्हज्या गुलाबाचे
   रान फुलोवपाचें आसा !
मनांत म्हज्या यंत्रांतल्यान
मंत्र घुमोवपाचो आसा
मनांत म्हज्या मंत्रांतल्यान
   मनीस जागोवपाचो आसा
मनांत म्हज्या शब्दांतल्यान
पेरपाचो आसा रोंव
पळय तरतरून आयलो
   नव्या विचारांचो फोव !
मनांत म्हज्या शिरांतल्यान
वीज खेळोवपाची आसा
मनांत म्हज्या मातयेंतलें
   बीज जागोवपाचें आसा
अज्ञानांत अंधारांत
पणटी पेटोवपाची आसा
तीच पणटी घेवन नवें
   युग उजळपाचें आसा !
मनांत म्हज्या मंदिराची
शिळा बसोवपाची आसा
मनांत म्हज्या समाजाची
   घडी बसाची आसोवपा



## ३५ : एक रंजण फूल जाल्या

वयले वयले झरीच्या माथ्यार
एक रंजण फूल जाल्या
जाणा पिटकोळेच्या फुला ?

रंजणिची भूल पडून
सगळो दोंगर पिसो जाला
कळ्ळें तुका शेवण्या-पिला ?

रंजणिच्या रंगाचेंच
झरी उदका सपन पडलां
आयक तणांतल्या फुला !

आयज वारो भंवर जाला
वयल्या रानांत आवरो उठला
आनी म्हज्या आंगा-पांगांत
गीम फुल्ला ! गीम फुल्ला !

वयले वयले झरीच्या माथ्यार
वयले वयले झरीच्या माथ्यार !



आरे ऊठ
आरे ऊठ
राव उबो !
राव उबो !
राव उबो !
आनी दाखय
कुळावो तुजो
मेळावो तुजो
थळावो तुजो !
आरे ऊठ
आरे ऊठ
उबो राव
उबो राव
सांग तुजी
वय-वयवाट
सांग तुजो
कायदो-कानू !
आरे ऊठ
ऊठ मरे
ऊठ मरे
सांग तुजो
नेम-नियम
सांग तुजी
मान-भोमान
दाखय तुजी

जाड-जोड !
सांग तुवें
जोडलें कितें ?
मोडलें कितें ?
सांग तुवें
शिपलें कितें
रोयलें कितें
खोयलें कितें
लायलें कितें ?
गायलें कितें ?

✦ ✦

आरे ऊठ
उबो राव
उबो राव !
घे हातांत
गुडी तुजी
घे हातांत
तरसाद तुजी
घे हातांत
गदा तुजी !
घे हातांत
साखळ तुज
घे हातांत
पास तुजो !
सर्पपास

काळपास
घे हातांत
कट्टें तुजें
घे माथ्यार
आकटें तुजें
आरे-आरे....
आरे आरे....
आज हांगा
राव उबो
साद् घालता
वारस तुजो
आयक आयचो
उलो ताजो !
म्हणून सांगतां
राव उबो
राव उबो !
आज तुका
तकली बागवन
आळवचोना
उण्या-दुण्या
उतरा शब्दान
खुबळंवचोना !
तुका परसन करपाक
म्हजें शीर
उतरंवचोना !

आयज
तुज्याच मस्तकार
गुणो घालपाचे
तयारेंत हांव आसां !

✦ ✦

आरे ऊठ
राव उबो
उलय तुजी
जाण भास
मोड भास !
बारांचें आनी पाचांचें
गणीत कर
आनी एक एकदां
राव उबो
राव उबो !

✦ ✦

सांग तुवें
कसो उलो माल्लो
कसो साद घातलो ?
कसो शब्द दिलो
कशी जाप घेतली
कशी भाक दिली
कशी आनी केन्ना
खुटी माल्ली
कशी मठी जोडली ?

तीन गुणे उबे करून
कशी चूल फुंकली
कसो चरू शिजयलो
कोणा रगतांत भिजयलो ?
आनी....
खंय खंय शपलो
कशो शिमो थारायल्यो ?
कसो गांव वसयलो ?
आनी हांगा....
या थळाक
नांव-रूप दिलें !
आरे.... आरे....
आरे ही ताकद
ही शक्त
तुका कोणे दिली ?
तूं खेत्री न्हय
तर तुज्या हातांत तरसाद कित्याक ?
तूं बंदी नासून
तुज्या खांदार
साखळ कशी ?
तुज्या माथ्यार
जळटें आकटें कशें ?
तूं....तूं....तूं....
तूं निजाचो कोण ?
तूं खंयच्यान आयलो ?

तूं आर्य काय अनार्य ?
तूं शैव काय वैष्णव ?
तूं कोणूय आस....
हांव तुका....
भारताचो अत्मो मानतां
न्हय तोच तूं !
हांव जाणां तें
तूं कोण आनी कोणा वेंग मारून बसला तें
आरे जलम रचपी जलम्या
भूत आनी भविश्याक
तेळपाची तांक आसल्या
राव उबो
राव उबो !
म्हाका सगळें
तुज्याच उतरांत आयकुपाचें आसा
आनी जगाक दाखवपाचें आसा
कि तूं तोच
अग्नी भक्षण करणार
दिर्मीभर रगतांत उबो रावून तारणार
वेळार आपलें शीर दिवन
गांव राखणार
जैत जोडणार
देश जोडणार

बनवड : ६५
[५] ■

म्हाका तें सांगूं जाय
जगा दाखवं जाय !
राव रे ह्या महान राष्ट्राच्या पुरुशार्थी
महाराष्ट्राच्या पुरुशार्थी
राव उबो
राव उबो
राव उबो....



## ३७. रास

दर्या ल्हारां
खेळटी घालो
वारें-वादळ
करता कालो
घना-घनान
मळबांतल्यान
  शिगमो केलो !
  शिगमो केलो

वावटळीन
धुळवड केली
मेघ रायान
शिंपल्यो सरी
राधेवरी
धरतरेर
  रंग माल्लो !
  रंग माल्लो !

रानां-वनां
चिप्प न्हालीं
उचांबळून
आयलीं तळीं
खदखदून
क्रुद्ध न्हंयो
  नाचूं लागल्यो !
  नाचूं लागल्यो !

वझरे-घोगे
खेळटी खेळ
तालगडी
नाचती मेळ
विजूबायेन
नाच-नाचतां
घातलो दोळो !
घातलो दोळो !

चराचर
जालें गुल्ल
पाना पाना
पडली भूल
गोपीं वांगडा
कृष्ण देव
रास खेळ्ळो
रास खळ्ळो !



## ३८ : आयचो मनीस

मनीस आतां
खऱ्यानीच
" स्थितप्रज्ञ "
जावंक लागला !
ताका मरणाची भिरांत
उरूंक ना
आनी
जियेवपाचीय आस्त ना !
ना जाल्यार
भाववाड, चलनवाड
अन्नकपात, वीजकपात
असल्यो वाडी आनी कपाती
पळोवन तो
धुमशेणां घालपाचो !



वनवड : ६९
[६]

म्हारगायेचो
वाडटो म्हारू
वाडटा तसो
वाडत आसा !
पोट आंवळीत
आंवळीत मनीस
जियेता तसो
जियेत आसा !



## ४० : घना आस

एक दीस
देवाच्या दरबारांत
भुतांनी गर्दी केली !
‘ कित्याक आयल्यांत, ’
देव तिडकलो.
‘ देवा सायबा ’
घना आशेन
पापी मनीस
फोण खणूंक लागला ! ’
एक भूत किळंचलें.



तूं तुज्या ओंठानी
अशें कितेंय पिवय
म्हाका मरणाची घुंवळ येवंची !
आनी मागीर
अशो तरेन उलो मार
म्हाका जल्माची जाग येवंची !

केंस वळयतना
हारश्यांत कित्याक पळयता ?
म्हज्या दोळयांत पळय
तुजें रूप थंय दिसतलेंच
म्हजें काळिजय कळटलें !

तुज्या ओंठांर भंवर हांव
तुजे वेंगेंत कुंवर हांव

तूं सपनांत येवंचें म्हणून
दिसाचोच न्हिदतां !

आतां आनी जांब कित्याक
तूंच तुज्या ओठांनी
पिवय म्हाका !

तुज्या केसांचे जाळयेंत
म्हजें खरवड फारवलें !

तुज्या ओठांतली पीक
म्हज्या ओठांर गळ्ळी
प्रीत आमची रंगली !

दोळ्याक दोळो लागतगीर
दिसता तुजें रूप गो
जागतना ध्यास तुजो
सपनांतय जाच गो !

मोगरेचो वळेसर
केसांत तुज्या परमळटा
वासावांगडा पिशें करीं
मन म्हजें घुंवळटा !

उजवाडांत देखली तुज्या
हांवें म्हजी सांवळी
तेन्नाच्यान तूंच जालें
दोळ्यांतली बावली !

दर्यो तानेन तानशेता
थेंब्या खातीर आंवडेता !

फाट पळोवन
फाटल्यान गेलों
तोंड पळोवन
पळून आयलों !

हांव एक मीर्ग
पोटांत म्हज्या कस्तुरी
तिच्याच वासांत
धुंद जावन
सोदतां सगली धरतरी !

उजवाडाबगर
जगांत कितें आसा ?
उजवाड नासल्यार
जगांत कितें आसा ?

जंय हात जुळळे
देव उबो रावलो
तेच वयर उखल्ले
देवचार खुबलो

वेरें नासलें व्हडें म्हजें
तडीक तरी लागत काय ?

कापसावरी जीण म्हजी
केन्ना थाऱ्या लागत काय ?

मातीच आसा
मातीच जातलों
मातयेंतल्यान
कोंबेवन येतलों !

म्हज्या मनांत
पेटला दिवो
हांव आसां
मनीस नवो !

तळयांतल्या उदकाक
पडलें सोबीत सपन
तळेंच जालें गगन

हांव एक अणुबाँब
वाट पळयतां किटीची !



थळ : अयोध्येंतलें एक उपवन
काळ : गिमांतली एक सांज
संवगां : उर्मिला आणि सुशिला

सुशिला :

उमाबाय ऽऽ !
उर्मिलेऽऽ उमी बाय गोऽऽ !
खंय आसा तूं ?
खंय खंय गो
पळोवंचें तुका ?
उर्मिले बाये
पूस तीं दुकां
येवजिता कितें
बसून एकलीं
हुस्काऱ्यांनी गो
फुलां हुलपलीं !
सांज बावलीं
किर्णां न्हिवलीं
अशी कशी ही
कळी करपली ?
खंय खंय गो
पळोवंचें तुका
उर्मिले बाये
पूस तीं दुकां !

उर्मिला :

खंय खंयचीं दोळयांत दुकां
हांव अशीच बसलें माटवां !
येवजून जिवा लासपाचें
आनी आनी कितें चिंतपाचें ?
कळयांची पळयत किमया
हांव अशीच बसलें माटवां !
पानांच्या कानांत वारो
कितेशेंच बाये सांगतालो
तीं आयकत फुलकीं उतरां
हांव अशीच बसलें माटवां !
तो प्रणय पळय आसतना
सांजेचि वाट लागलीना
विसल्लें म्हज्या अस्तित्वा
हांव अशीच बसलें माटवां !

सुशिला :

तीच वाट तीच वाट
शरयचो तोच घाट
राम सुमित्रानंदन
बसताले तोच कांट !
तोच माटव मोगरेचो
तीच उमी उर्मीला
पातकडयो उपाट भरून

थंयच मोन्यानी बसता !
दुखवल्ली तसली सांज
तुज्या रुपान आयली आज
उर्मीले बसून अशी
चिंतता कितें सांग सांग ?

उर्मिला :

दुखवल्ली याद म्हजी
दुखवं नाका दुखवं नाका !
मनांतली खिन्नताय
चाळवं नाका चाळवं नाका !
आनी आनी कांयच बाय
सांगूक म्हाका लावं नाका !
सुशे, तुका याद आसा
हांच्या वनां वचपा दिसा
हाणीं म्हज्या काळजाचे
कुडके कुडके केले बाये !
फुक्या सवाय उतरानय
वतां म्हणन सांगलेंना
चतना म्हजेर पापणीचेर
नदर लेंगीत घातलीना !
हांव मात पिशें कशें
वर्तुळांत पळयतालें
निदान फाटीं वळून तरी

एक फावट पळवचेलें ?
सुशे, आमचो बायलांचो
जीव वगीच तळमळटा
दीस रात हांचेखातीर
दोळे बाये घळघळटात !

सुशिला :

जें घडलें ताजो मागीर
खेद् करचो न्हय गो बाय....
खेद् करचो न्हय
कळटात म्हज्या मनाक तुजे
चरचरते घाये गो बाये....
चरचरते घाये !
उपेक्षाच आयली तुज्या
नशीबांत बाये !
पुनवे राती लागलें गिराण
तिळसानचें कशें गो बाये....
तिळसानचें बाये

उर्मिला :

सांग सुशे तांकांय म्हजी
याद् येता आसतली काय ?
एकलेपणांत अशेच तांचे
दोळे भरता आसतले काय ?

उतरांची चित्रां म्हज्या
तांकां दिसता आसतलीं काय ?
सुस्कारत जागयत राती
तळमळत आसतले काय ?
सांग बाये तें वदन कमळ
केन्ना दोळ्यां दिसतलें काय ?
सांग सुशे म्हज्या दुकां
अर्थ कितेंय आसतलो काय ?

सुशिला :

हळवें बाये मन गो तुजें
हळदीची पात
फात्तोडिच्या तामशेपणांत
निवळवणी रात !
कावरी बावरी
तिळसानशी
थरथरूं नाका
ल्हारावयली
तार कशी
दळमळूं नाका !
हळवें बाये मन गो तुजें
तळयांतलें ल्हार
शिशिराच्या सपनांतलो
तिळसानचो पार !

उर्मिला :

सांगता म्हाका याद काडून
तळमळूं नाका ?
काळोख पिवन उमाशेचो
भूल घेवं नाका ?
चान्नें पळोवन पटांतलें
स्मीत तांच्या वोटांतलें
तितलेंय घेवन एकसुऱ्यांत
भुल्लुसूं नाका ?
शेनाय वाजता तिळसानची
याद तांच्या उतरांची
आयकून ती तन्मयान
फुरगटूं नाका ?
नखेत्रांच्या फुलयांची
रात तांच्या नेत्रांतली
येवजून ती हड्डें फोडून
घळघळूं नाका ?

सुशिला :

न्हय गो बाये
नासलें म्हाका
सांगपाचें
तसलें तुका !

पानांतलें
चंवर कशें
रावचें तुवें !
चान्यांतलें
पुण्य कशें
हांसचें तुवें !
तळयांतलें
साळीक कशें
खेळचें तुवें !
दूक भुलून
वाली सारकें
फुलचें तुवें !

उर्मिला :

म्हज्याय मना आसलें गो
सीते सारकें वचपाचें
तांच्या सांगतांत बसून
काना-मुळा खावपाचें !
रानांतल्या शितळतायेंत
चितळ कशें धांवपाचें
पांय घालून नितळ जळां
हांयसा सारकें खेळपाचें !
रजणिची फुलां माळून
गवर कशी नटपाचे

दोंगरांच्या तेंमकां वयली
निळाय न्हेसून नाचपाचें !
सीतेसारकी प्रीत म्हजी
पावलां फाटल्यान धांवलीना
पावलां तांच्या जडाय जावन
आडावन उबी रावलीना !
सुशे, म्हजी हार जाली
हरली म्हजी प्रीत बाये
चौदा वर्सां इल्ली, इल्ली
रावचें पडलें जळत बाये ?
सीता म्हजीच भयण आसून
जिखलें तिणे जिखलें बाये
म्हज्या नशिबा आयलें खरें
जिती आसून मरण बाये !

  



श्री. गजानन रायकार हे फकत गीतकार न्हय. तांचें काळीज कवीचें आनी ताळो गीतकाराचो. देखून तांच्या गितांनी कवितेच्या सुराक संगीताचो ताळ मेळटा आनी जी अप्रूप चीज जल्माक येता ती आयकुप्याच्या काळजाक मोराच्या पांखान वारो घालून वता.

कवी रायकार हांचें गीत - कवीत सूर - तालाचे रस्मी दोरयेर गुंथिल्लें आसता आनी देखून तें काळजाक म्होंवाळ आनी कानाक रसाळ लागता. संगीताचो मोग आनी लोकसंगीताचो अभ्यास हांचो मेळ तांणी आपणाले कलेंत घाला. ताका लागून वेगळे वेगळे रस, वेगळे वेगळे सूर आनी वेगळे वेगळे ताल ते आपणाल्या गितांनी खेळयतात आनी रसिकांच्या ओंठांक अमृताचे गोडयेचें बोट लायतात.

कवीत आनी गीत हांचो असो सोबीत - सुंदर मेळ घालपाचे कलेक ‘ रवीन्द्र - प्रतिभा ’ म्हणूं येत. ही ‘ रवीन्द्र - प्रतिभा ’ ज्या थोडयाच कोंकणी कवींक प्रसन्न जाल्या तांतले एक श्री. गजानन रायकार. कवी म्हणून तांचो मान आसाच पुण गीतकार म्हणून तांची सुवात व्हडा मानाची आसा अशें मानूंक फाव.

उदय भेंब्रो